# अखिल भारतीय कोंकणी परिशद : २३ वें अधिवेशन

## अध्यक्ष : डॉ. तानाजी हळर्णकार

हांचें उलोवप

*भौ मानेस्तांनो -*

### कर्नाटकाची तोखणायेची परंपरा

मंगलदायी अशा ह्या मंगळुर परिसरांत, अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचें हें तेविसावें अधिवेशन जाता, हाची खोस आमकां सगळ्यांकच आसा. कारण कोंकणी मनशाकडेन लागींच्यान संवाद सादपाची आमचेखातीर ही एक पर्वणी आसा.

आयज मंगळुर धरुन सगल्याच कर्नाटकाक एके आगळे तरेची खोस जातली. आयज देशभरचे कोंकणी प्रतिनिधी, कर्नाटकाचे सोयरे जावंन हांगा आयल्यात. सोयऱ्यांचो परामोस करतांना तांका जाल्ली खोस तांच्या मुखामळाचेर, तांच्या उतरांनी आनी तांच्या हालचालींतल्यान सामकी प्रतित जाता.

कर्नाटकांत जावपी हें परिशदेचें णवें अधिवेशन. पयलें अधिवेशन आयोजीत करपाचो मान कर्नाटकानच घेतिल्लो उप्रांतय तेवीस अधिवशेनांपैकीं सगळ्यांत चड म्हणजे णव अधिवेशनां आयोजीत करुन, कोंकणी चलवळीक णव फावट व्यासपीठ उपलब्द करपाचो, तोखणायेचो वावर कर्नाटकांत जाला.

तोखणायेच्या वावराचे परंपरेतलें हें तेविसावें अधिवेशन. ह्या अधिवेशनाचें अध्यक्षपद स्विकारतांना म्हाकांय खोस जावप सभावीक आसा. ह्या पदाचेर हाचे पयलीं जे बसून गेले, ते प्रज्ञेन, कर्तृत्वान, अणभवान, साधनेन आनी सिध्दीन म्हजेपरस कितलेशेच व्हड आशिल्ले, हाचें पुराय भान म्हाकां आसा. ह्या मानेस्तांतल्या बऱ्याच जाणांचो सहवास म्हाकां लाबलो. कोंकणीच्या कार्यांत तांचें मार्गदर्शन घेवपाचें भाग्यय म्हाकां मेळ्ळें. ताणींच दिल्ल्या प्रोत्साहानांतल्यान आनी प्रेरणेंतल्यान धीर घेवन हावेन ह्या पदाचो स्विकार केला. ताणी वाडयल्लो ह्या पदाचो मान आनी दिल्ली शान हांव सामाळटलों म्हणपाचो तुमकां भरंवसो दितां. ते खातीर म्हाकां तुमच्या सगळ्यांचो आशिर्वाद जाय. तो तुमी म्हाकां दिवंचो म्हणून तुमकां हात जोडून विनंती करतां.

### फाटल्यां अधिवेशनांची गिरेस्त जोड

परिशदेच्या फाटल्यां बावीस अधिवेशनांनी परिशदेच्या उद्दीश्टांचो आनी संकल्पांचो विचार जावंन, ते प्रमाण कृतीशील कार्यावळ घडोवन हाडपांत, आनी अपेक्षीत फलप्राप्ती करुन घेवपांत, फाटलीं अधिवेशनां यशस्वी जाल्यांत. शिंपडून गेल्ल्या कोंकणी मनशांक एकठांय हाडून तांचेमदीं स्वाभिमान जागोवप, कोंकणी समाजांत आंतरीक आपलेंपण निर्माण करप, दर्जेदार कोंकणी साहित्याची निर्मिती करप, शिक्षणांत कोंकणीचो वापर करप, कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय घेवप, संविधानाचे आठवे वळेरेंत कोंकणीचो आस्पाव करप, कोंकणी राज-भास आशिल्लें एक राज्य आसप, नोकरे खातीर त्या राज्यांत कोंकणी सक्तीची करप, व्याकरणां, शब्दकोश, विश्वकोशासारखे मुळावे अशे शास्त्रीय संदर्भ ग्रंथ तयार करप, कोंकणीतलें वर्तमानपत्र चलोवप, कोंकणी अकादमीची स्थापना करप. हे आनी अशे आनीक जायते वावर फाटल्या बावीस अधिवेशनांच्या काळांत जाल्यात. तोखणायेक पात्र थारिल्ली ही कोंकणीची गिरेस्त जोड. ती जोडपाच्या वावरांत वेगवेगळ्या घटकांचो, संस्थांचो, व्यक्तींचो





ಪಾನ್‌ಪೊಡ್ ಆನಿ ಉದಕ್ ಉಬಾರ್ನ್ ಧರ್ನ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ
ಸಂಪ್ರದಾಯಾಂತ್ ಮೊ। ಅಲೆಗ್ಸಾಂಡರ್ ಸೊಜಾಚೊ ಸ್ವಾಗತ್





ಕರ್ನಾಟಕಾಚೊ ಸಾರಿಗ್ ಮಂತ್ರಿ ರಮಾನಾಥ್ ರೈ ದಿವೊ ಪೆಟವ್ನ್
ಅಧಿವೇಶನಾಚೆಂ ಉಗ್ತಾವಣ್ ಕರ್ತಾ





ಉಗ್ತಾವಣ್ ಕಾರ್ಯಾಚೊ ಮುಕೆಲ್
ಸಯ್ರೊ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈ ಅಧಿವೇಶನಾಚೊ
ಸ್ಮಾರಕ್ ಅಂಕೊ 'ಮಂಗಳ'
ಉಗ್ತಾಯ್ತಾ



'ಕೊಂಕಣಿ ಆನಿ ಮಾಧ್ಯಮ್' (ಪತ್ರಿಕಾ, ರೇಡಿಯೊ, ಟಿ.ವಿ. ವಗೈರೆ) ಪರಿಸಂವಾದಾಚೊ ಸಂಚಾಲಕ್ ಶ್ರೀ ಎನ್. ಶಿವದಾಸ್ (ಗೊಂಯ್ ಕೊಂಕಣಿ ಅಕಾದೆಮಿಚೊ ಉಪಾದ್ಯಕ್ಷ್) ಹಾಚೆ ಥಾವ್ನ್ ಉಲವ್ಪ್



ಶಿಕ್ಪಾ ಶೆತಾಂತ್ ದಿಲ್ಲೆ ಸೆವೆ ಖಾತಿರ್ ಶ್ರೀ ಬಸ್ತಿ ನಾರಾಯಣ ಶೆಣ್ಯೈ ಹಾಕಾ ಗವ್ರವಾಧ್ಯಕ್ಷ್ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈಥಾವ್ನ್ ಸನ್ಮಾನ್



ಕೊಂಕ್ಣಿ ಬುಕಾಂಕ್ ಅಂತಾರಾಶ್ಟ್ರೀಯ್ ಕೋಡ್ ನಂಬರ್ ಮೆಳಾಶೆಂ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ಖಾತಿರ್ ಶ್ರೀ ಕಾರ್‍ಲೊಸ್ ಫೆರ್ನಾಂದ್, ಗೊಂಯ್ ಹಾಕಾ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈಥಾವ್ನ್ ಸನ್ಮಾನ್




‘ಸ್ತ್ರೀ ಸಶಕ್ತೀಕರಣ್ - ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಮಾಜಿಚಿ ದೀಶ್ಟ್’ ಪರಿಸಂವಾದ್ ಚಲವ್ಪಿಣ್ ಶ್ರೀಮತಿ ಲೀನಾ ಫೆರ್ನಾಂಡಿಸ್ ಹಿಚೆಥಾವ್ನ್ ಉಲವ್ಪ್





ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈಥಾವ್ನ್ ಸಮ್ಮೇಳನಾಧ್ಯಕ್ಷ್ ಡೊ। ತಾನಾಜಿ ಹಳರ್ಣಕರಾಕ್ ಸನ್ಮಾನ್




ಅಧಿವೇಶನಾಚೊ ಗವ್ರವಾಧ್ಯಕ್ಷ್ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈ ಉಲಯ್ತಾ...



ಅಧಿವೇಶನಾವೆಳಿಂ ಜೆ.ಬಿ. ಸಿಕೆರಿಚ್ಯಾ
'ಮುಖಾವರಾಂ/ಮೊವ್ಯಾಂ'
ಪುಸ್ತಕಾಚೊ ದುಸ್ರೊ ಭಾಗ್ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ.
ಪೈ ಉಗ್ತಾಯ್ತಾನಾ...



ಅಧಿವೇಶನಾಚೊ ಕಾರ್ಯಾಧ್ಯಕ್ಷ್ ಶ್ರೀ ಬಸ್ತಿ ವಾಮನ್ ಶೆಣೈಥಾವ್ನ್
ಉಲವ್ಪ್



ಅಧಿವೇಶನಾವೆಳಿಂ ಶ್ರೀ ಕೆ.ಕೆ. ಪೈ ಹಾಣಿಂ
ಶ್ರೀ ಎಮ್. ಮಾಧವ ಪೈ ಹಾಂಚೆಂ
'ಅಮ್ಗೆಲಿ ಹುಮ್ಮಣೊ'
ಪುಸ್ತಕ್ ಉಗ್ತಾಯ್ತಾನಾ...

## अखील भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेच्या 23 व्या अधिवेशनाक गोवा कोंकणी अकादेमीचीं परबीं.

### अकादेमीचीं कांय प्रकाशनां

| | |
|---|---|
| * दी उतरावळ - श्री। चंद्रकांत केणी | 25/- रुपया |
| * कोंकणी शब्दसागर - रचनाकार श्री। पांडुरंग भांगी | 100/- |
| * Literary konkani - Dr. Jose Pereira | 15/- |
| * कोंकणी मंदाकिनी | 40/- |
| * गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार - प्रा। श्याम वेरेंकार | 60/- |
| * आमोणों-एक लोकजीण - कु। जयंती नायक | 150/- |
| * लोकबिंब - कु। जयंती नायक | 150/- |
| * गोंयचीं बालगितां, नाचगितां आनी खेळगितां भाग - 1 संकलक श्री। तुकाराम शेट | 25/- |
| गोंयचीं बालगीतां, नाचगितां आनी खेळगिगां भाग - 2 संकलक श्री। तुकाराम शेट | 25/- |
| * साहित्य शिल्प - गोवा कोंकणी अकादेमी | 50/- |
| * तीन सादे निबंध | 25/- |
| * तियात्राचो इतिहास - श्री। प्रकाश थळी | 35/- |
| * तियात्रांचो झोलो (रोमी) - 1 - गोवा कोंकणी अकादेमी | 60 |
| * " " " (रोमी) 2 " " " | 70 |
| * कोंकणी भाशेचें अध्यापन - प्रा। वसंत लवंदगे | 60 |
| * सैन सांगात - श्रीमती कमलादेवी राव देशपांडे | 150 |
| * नवो सोद (माड) - श्री विश्राम गांवकार | 10 |

मेळपाचें ठिकाण -

कोंकणी अकादेमी संकुल

बोरी.फोंडें.गोंय

प्रत्यक्षांत हातभार लागला हें जरी खरें आसलें, तरी तो वावर करपाचो विचार आनी प्रेरणा अधिवेशनांनी चलिल्ल्या विचारमंथनांतल्यानच मेळल्या हें स्पश्ट आसा. अधिवेशनाचें स्वरुप हें चडशें उत्सवाचें आसलें, आनी अधिवेशनाच्या माटवांतच तात्काल अशे उपाय मेळना आसले, तरी अशे उपाय सोदपाच्या मार्गांची सुलूस, अधिवेशनांत मेळपाची बरीच शक्यताय आसता.

आमीच आमच्या कार्याचो, तिरायतपणान नियाळ करपाची संद, आमकां अधिवेशन हाडून दिता. हो असो नियाळ आमच्या फुडाराच्या कामाक एक निश्चीत दिका दिवंक मजत करता. वयल्यान उत्सवी दिसपी अशा अधिवेशनाचें हें एक व्हड योगदान आसा अशें हांव समजतां.

### पयल्या संवादान इतिहास घडयलो

अशा वेळार आवर्जून याद जाता ती १९३९ सालांत, परिशदेची पयली बसका आयोजीत करुन, परिशदेची परिकलपना मांडपी श्री माधव मंजुनाथ शानभाग ह्या प्रज्ञावंताची, आनी ताच्या वांगडा वावुरपी ताच्या सांगात्यांची. चारी दिकांनी शिंपडून गेल्ल्या आनी कोंकणी अस्मितायेच्या संदर्भांत शेणून गेल्ल्या कोंकणी जनांक, एका माटवांत हाडून तांचे मदीं नेमान संवाद घडोवन हाडपाचें द्रष्टेपण ताणीं दाखयलें. हे परंपरेंत आयजवयर बावीस संवाद घडले. आयज हांगां तेविसाव्या संवादाक सुरवात जाता. हो तेविसावो संवादय परिशदेचीं उद्दीश्टां सफल करुंक यशस्वी जातलो हाची म्हाकां खात्री आसा.

### फुडली पावली मारुंया

परिशदेच्या पंचशिलाच्या संदर्भातलो बरोचसो वावर तडीक वता अशें म्हणपाक हरकत ना. पन्नास वर्सांपयलींच्या काळा-तुळेन, आयच्या काळांत कोंकणी समाजामदीं सगळे तरेची देव घेव चल्ल्या. धर्म, जात, प्रांत, लिपी हे अडसर भेदून कोंकणी चळवळ दिमाखान मुखार सरत आसा. हांगा थंय मतभेद दिसता आसले, रागणें फुगणें जाता आसलें, तरी तें किरकोळ स्वरुपाचें आसा. दर एकल्याची विचार करपाची तरा वेगळी आसा. वावराची पद्दत वेगळी आसा. ताका लागून हांगां थंय वादविवाद जाल्ले पळोवंक मेळटा. पूण सगळ्यांचीच कोंकणीवयली निष्ठा प्रामाणीक आनी सगळ्यांचो, कोंकणीचे उदरगतीचो एकच हांवेस आशिल्ल्यान, मतभेदांचो हुस्को करपाची गरज दिसना. आमकां सगळ्यांकच खबर आसा. आमकां परिस्थितीन एका मिशनाखातीर वेंचून काडल्या. अशा मिशनरी वावरांत वैयक्तीक हेवे-दावे आनी सुवार्थाचो आमकां अधिकार उरना. एक गजाल आमी सगळ्यांनीच मतींत घेवंक जाय. काम करतलो चुकता. काम न करतल्याकडसून चूक जावपाची शक्यताच नासता. म्हणून ताणे काम करतांना चुकतल्याक खेपय शाणेपणाचें जायना. प्रामाणीकपणान काम करतल्याक, थोडों भोव चुकपाचो अधिकार उरुंक जाय. ताच्या कामाचें मानधन म्हणून आमी तो अधिकार ताका कांय प्रमाणांत दिवंक जाय. ताचे दर एके चुकीखातीर ताका ख्यास्त फर्मावंक लागले तर काम करतले मुखार येवंचेना. फाटीं कितें बरें जालें ताची देख घेवन, आतां आमी फुडली पावली मारुंया.

### कोंकणी साक्षात्काराची व्याप्ती विस्तारीत करुंया

फाटल्या पन्नास साठ वर्सांच्या काळाचो नियाळ केल्यार एक गजाल स्पश्टपणान जाणवता. कोंकणी चळवळींत जे तळमळीन वावरत आयल्या, ते मुखेलपणान, विचारवंत, लेखक, कलाकार, शिक्षक पत्रकार अशा खाशेल्या घटकांतलेच. दिसान दीस अशा घटकांतल्या मनशांचो आंकडो वाडत आसा. आनी हे मनीस कोंकणी समाजांतल्या सगळ्या धर्मांतले, जातींतले, प्रांतांतले आसात. पूण तेचवांगडा ह्या खाशेल्या घटकां भायल्या लोकांचो आंकडो उणो जावंक लागला.

खंयचोय साक्षात्कार पयलीं प्रज्ञावंतांकच जाता. तसो कोंकणीचो साक्षात्कार प्रज्ञावंत आशिल्यां, विचारवंतांक, लेखकांक, कलाकारांक, शिक्षकांक, पत्रकारांक आनी तत्सम घटकांक जालो हें जरी खरें आसलें, तरी ह्यां घटकांभायर व्हडा समुदायान कोंकणी जन आसा. ते कोंकणीच्या माटवा भायर उरल्या. आनीक एक म्हत्त्वाचो घटक माटवाभायर उरिल्लो दिसता. तो म्हणजे बायलांचो घटक. थोडे भोव फरकान, बायलांचो आंकडो दादल्यांच्या आंकड्याएदोच समाजांत आसता. तांकांय दादल्यां इतकेंच गिन्यान आनी दादल्यांइतकीच ताकद देवान दिल्या. तींय दादल्यांइतकेंच कोंकणीखातीर योगदान दिवंक शकता. पूण कोंकणी चळवळींत बायलांचो सहभाग, तांचे संखेच्या मानान, बरोच उणो दिसता. आतांमेरेन तेवीस अधिवेशनां जालीं. एकाय अधिवेशनाचें अध्यक्षपद बायलेकडेन आजूनमेरेन कित्याक वचूंक पावलेंना हाचो थंड चित्तान विचार दादल्यांनी आनी बायलांनीय करचो. दूशण दोगांकय, माटवाभायल्यांक आनी माटवा भितरल्यांक वता. माटवा भायल्यांनी कोंकणी अस्मितायेबद्दलची आस्था दाखयलीना. माटवा भितरल्यांनी ती माटवा भायल्यांमेरेन पावोंवक जाय आसली तितकी पावयलीना. दोगांयमदीं घडूंक जाय आसलो तितको संवाद घडलोना. हो संवाद घडपाची गरज आसा. ह्या वावरांत थळाव्या कोंकणी संस्थांची खूप मजत जावंक शकता. फुडल्या दोन वर्सांच्या काळांत, ह्या संदर्भांत, परिशद एक येवजण चालीक लावंक सोदता. थळाव्या कोंकणी संस्थांच्या माध्यमांतल्यान, माटवां भायल्यांकडेन संपर्क आनी संवाद सादपाची एक खाशेली कार्यावळ परिशदेचेवतीन रोखडीच हातांत घेवपाची आसा. वेगवेगळ्यां राज्यांतल्यो थळाव्यो कोंकणी संस्था, ह्यो सर्वसादारण कोंकणीजनांच्या लागींच्यो संस्था. अशो संस्था तांकां आनीक लागींच्यो जावंच्यो, आनी ते त्यां संस्थाकडेन आकर्शीत जावन, तांचे मार्फत ते कोंकणीचे मध्यवर्ती चळवळींत पावचे म्हण परिशद अशां संस्थांखातीर, एक खाशेली कार्यपद्दत आशिल्ली येवजण मुखार हाडूंक सोदता. हे येवजणेप्रमाण थळाव्यो संस्था अधीक कार्यरत जावंक पावतल्यो. अधीक लोकांमेरेन पावतल्यो ही मोख ही येवजण दवरतली. सगळ्यां थळाव्या संस्थांनी परिशदेक ह्या कामांत सहकार्य दिवंचें अशें तांचेकडेन मागतां. ही येवजण यशस्वी जाली म्हणटकीर तिचे भौउद्देशी फायदे कोंकणी चळवळीक मेळूंक पावतले. हे येवजणे वरवीं थळाव्यो संस्था अधीक कार्यशील जावंक पावतल्यो. तांचेकडच्यान कोंकणीचो अधीक वावर जातलो. कोंकणी जनांमदली कोंकणीची आस्था विस्तारीत जातली. तिचेवरवीं कोंकणीची वाचक. चळवळ प्रभावी जातली.

**पारंपारीक तशी आधुनीक असमता नश्टकरूंया**

राजकीय स्वातंत्र्य, तांत्रीक शिक्षण आनी तंत्र गिन्यानावरवीं जावपी उद्योगीकरण ह्या त्रिसुत्राउद्देशीं समाजाची निरोगी अशी प्रगती जातली म्हणपाचो बुध्दीमंतांनी निर्वाळो दिल्लो. राजकीय, सामाजीक, आर्थीक मळांवयली पारंपारीक अन्यायी असमता वचून, समतेचें नवें युग निर्माण जातलें असो ताणीं तर्क केल्लो. ह्या नवयुगांत समता येतली. समतेंतल्यान समृध्दी, आनी समृध्दींतल्यान संसाराक थाकाय हाडपी शांती-सवस्तकाय प्रस्थापीत जातली म्हणपाचें अनुमान काडप जाल्लें. ह्या अनुमानाप्रमाण सुरवात बरी जाल्ली. राजकीय, आर्थीक आनी सामाजीक मळांवयली पारंपारीक मक्तेदारी वचून समता नंदपाक लागल्या अशे दिसता आसतांनाच, आधुनीक अशी नवी मक्तेदारी उदयाक आयली. ही नवी मक्तेदारीनय धर्म, जात, प्रांत आनी पंथाचो आधार घेतलो. फरक इतकोच उरलो. धर्म, जात, प्रांताचो जलमाचेर आधारीत अभिमान हो पारंपारीक मक्तेदारीचें कारण जाल्लें. आधुनीक मक्तेदारीन धर्म, जात, प्रांताचें लेबल लावन राजकीय, आर्थीक आनी सामाजीक फायदे घेवंक सुरवात केली. अशा फायद्यांखातीर धर्म, जात, प्रांत हांचो आधार घेवपाची प्रवृती दिसान दीस वाडत आसा. पारंपारीक

तशी आधुनीक मक्तेदारी दोनय कोंकणीच्या एकचाराक मारक आसात. तांकां पयस दवरपाचें काम कोंकणी समाजाकडसून जालें, तर तें फकत कोंकणीचें काम जावंचेना तर एक राष्ट्रीय काम केल्ल्यासारखें जातलें. आमी ती मोख आमचे नदरेमुखार दवरुंया.

**राजश्रयापरस लोकाश्रय भरंवशाचो**

आमका सदांच एक दिसतालें. तें आमी जायतेफावट उलोवनय दाखयलां. कोंकणी मनशांनी आपलें राज्य केन्ना चलयलेंना. सदांच तांचेर परवऱ्यांनी राज्य केलें. तेखातीर कोंकणीक केन्ना राजाश्रय मेळलोना. उरफाटें परकी राजवटींत तिची उपेक्षाच जाली. आतां सद्याचे परिस्थितींत आमकां आमचें हें विधान तपासून घेवंचें लागतलें. परकी राजवटींत कोंकणीक राजाश्रय मेळूंक पावलोन हें सामकें खरें. तिका पिडा पीड जाली हेंय खरें. पूण कोंकणी मनशांचे राजवटींतय तिका राजाश्रय मेळूंकना हेंय तितकेंच खरें. आमचे राजवटींतय तिका तिच्या मानाचो पाट मेळूंकना हेय फट न्ही. सद्याक कोंकणी राजभास आशिल्लें, एक आख्ख्याचें आख्खे राज्य गोयांत चलता. हेर राज्यांनीय कोंकणी मनीस हांगां थंय सत्तेर वा सत्तेलागीं आसात. तरीय कोंकणीक खरेपणीच राजाश्रय मेळलो म्हणूंक जावंचेंना. राजकारण्यांच्या राजकारभारांत भास, साहित्य, कला. सारखिल्या गजालींक दुय्यम स्थान मेळटा. देखून गोंय राज्यांत राजभास कायदो पास जावन कितलींशींच वर्सां लोटलीं तरी ताची जाय तशी अंमलबजावणी जायना. अशे परिस्थितींत कोंकणी भाशेच्या उदरगतीखातीर राजाश्रयाक कितलें म्हत्व दिवचें आनी लोकाश्रयाक कितलें दिवंचें हें आतां आमी नव्यान थारांवया. कोंकणीक राजाश्रय घेवप हो आमचो हक्कच. तो आमी कस्सो सोडचो न्ही. पूण कोंकणीचे उदरगतीखातीर आमी राजाश्रयावांगडाच प्रजाश्रयाकय तितकेंच म्हत्त्व दिवंया. राजाश्रयावांगडा राजा चडसो येना. तो आपलो आश्रय आपणाल्या दुतांवरवीं धाडून दिता. प्रजाश्रयावांगडा प्रजा येता. येतांना आपलेपणाची ओलसाण घेवंन येता. ही ओलसाण वावराक संजिवनी दिता. आमी ही संजिवनी चडांत चड मेळोवंया.

**तिसऱ्या सहस्त्रकाचीं आव्हानां झेलूंया.**

तिसऱ्या सहस्त्रकांतली ही पयली परिशद. हें सहस्त्रक तंत्रगिन्यानावांगडा जागतीकरणाचें एक व्हड आव्हान संसारामुखार उबें करपाचें आसा. सगळ्यांच मळांचेर उलथा-पालथ जावपाची आसा. सगळ्यांच मळावयलीं कोश्टकां आरतीं-परतीं जावपाची आसात. हें सहस्त्रक येतानांच आपलें डिक्टेशन घालीत येतलें. आनी तें घेयत रावलेबगर संसाराकडेन दुसरो कसलो पर्याय उरचोना.

हें सहस्त्रक कोंकणी समाजामुखार तीन आव्हानां दवरतलें. पयलें भौतीक दुसरें भाशीक आनी तिसरें नैतीक.

ह्या सहस्त्रकांत कोंकणी भाशेचो आनी कोंकणी मनशाचो विचार कोंकणी समाजापुरतो वा कोंकणी वाठरापुरतो करुन चलचेंना. ह्या सहस्त्रकांत कोंकणी समाज संसाराचें एक सेंद्रीय आंग कसो जावन वतलो. देखून हाचे फुडें कोंकणी भास वा कोंकणी समाजाचो विचार करतांना संसाराचो संदर्भ घेवप अपरिहार्य जातलें.

तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या भौतीक आव्हानाक तोंड दिवपाची, म्हणजे तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या आधुनीककरणाची, दर एक तरा आत्मसात करपाची, कोंकणी समाजान तयारी दवरची पडटली. सगळ्या तरेच्या तंत्रगिन्यानांत प्राविण्य जोडचें लागतलें. कोंकणी समाजान, दरएका मळार केल्ली निर्मिती ही तिसऱ्या सहस्त्रकांतली आदर्श निर्मिती जावंची लागतली.

कोंकणी भाशेचो विकास करतांना, ती तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या वेव्हाराची भास जावपाइतकी तिका सक्षम करची लागतली. सद्याक कोंकणी धरुन खंयचीच भारतीय भास तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या वेव्हाराचें माध्यम जावपा इतक्यो सक्षम ना. ज्या तंत्र-गिन्यानाच्या

अधीष्ठानाचेर तिसरें सहस्त्रक उबें आसा, त्या तंत्रगिन्यानाची भास कोंकणी धरुन हेर भारतीय भासांक कळना हें दुसऱ्या सहस्त्रकांन दाखोवन दिलां. कोंकणी धरुन सगळ्यांच भारतीय भासांनी आतां ते नदरेन टायमबाऊंड अशी कल्पक कार्यावळ कार्यरत करची लागतली. अशे कार्यावळीचो संकल्प आमी ह्या अधिवेशनाच्या व्यासपिठावयल्यान करुंया. कोंकणी चळवळीचो बरोचसो काळ परकियांकडेन तशें स्वकियांकडेन झगडपांत गेलो. ताका लागून ह्या संघर्षाच्या काळांत साधनेचो वावर म्हणपासारखो जावंक पावलोना. विशेश करुन संशोधनात्मक पद्धतीचो, शास्त्रीय बसकेचो वावर साप उणो जालो. आधुनीक शास्त्रांची वळख कोंकणींतल्यान करुन घेवपाची ताकद, कोंकणीक हाडून दिवपाचें कार्य शास्त्रीय वावरांतल्यान जावंक पावतलें. असो वावर आतां झुजापांवड्यावयल्यान आमकां हातांत घेवंचोच लागतलो. हो वावर तसो भौच कठीण वावर. ह्या वावराखातीर लागपी मनीस बळ, यंत्रणा, साधन-सामुग्री खाशेली आसतली. तरीय आमकां तो करचोच लागतलो. तिसऱ्या सहस्त्रकान ताचेबगर दुसरो पर्याय आमकां दवरुंकना. आनी आमी जर हें केलें ना. तर कोंकणी तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या मुखेल प्रवाहाभायर उरतली. कुशीक पडटली. कोंकणीचो फुडार हुस्क्याचो जातलो. एका समाजाची बोली भास, एक साहित्यिक भास इतक्या पुरतें तिचें अस्तीत्त्व मोटवें उरतलें.

तिसरें आव्हान आसा तें नैतिकतेचें. दुसऱ्या सहस्त्रकांत ताची झलक आमकां दिसल्या. कशें कोण जाणा. एक गजाल स्पश्ट जायत गेल्या. विज्ञानाच्या उदरगतींतल्यान तंत्रगिन्यानाची उदरगत सादल्या. तंत्रगिन्यांनांतल्यान भौतीक उदरगत असो मनशाचो प्रवास जाला. पूण ह्या प्रवासांत चलताना, वाटेर मनीस आपलें मनीसपण शेणयत रावला. ताचेबदला गुन्यावकारी, विध्वंस, अहिंसा अशे दुर्गुण पुंजायत रावला. मनशान निर्माण केल्लें यंत्र विज्ञानीक सुत्राचेर चलता. तें सुत्र हाल्लें तर यंत्र बंद पडटलें म्हणून मनीस यंत्राचे बाबतींत विज्ञानीक सुत्रां पाळटा. पूण अजापाची गजाल म्हणजे, स्वताच्या वागपांत मात्र सदभावनेच्या विज्ञानीक सुत्राक पाळो दिना. थंय तो गुन्यावकारी, विध्वंस, अहिंसा सारखीं अविज्ञानीक सुत्रां लागीं करता. हजार दोन हजार वर्सांपयलींचो मनीस आपले प्रस्न सोडोवपाक आपल्या हातांतल्या शस्त्राचेर भिस्त दवरतालो. आयच्याय मनशाचें प्रस्न सोडोवपाचो अंतीम उपाय शस्त्रच जालां. दुस्मानाकडेन तशें घरच्यांकडेन वेव्हार करतांना आजय मनशाचो हात अचळय शस्त्राकडेन वचपाक लागला.

**मनीसपणाचें मिशन ही मोख दवरुया**

हे शस्त्र-संस्कृतीन संसारभर आतंकवाद मातोवन दवरला. संसार हुस्क्याचो करुन सोडला. आख्खे मनीस कुळयेचेर एके अशाश्वतीचें , एके भिरांतीचें सांवट हाडून सोडलां. संसारांतली खंयची सत्ता आनी खंयची कायदो व्यवस्था हे परिस्थितीक आळाबंद हाडपाक समर्थ उरुंक ना. अमेरिकेसारख्या बलाढय राष्ट्राच्या राष्ट्रप्रमुखाचेर आपलें अधीकृत सरकारी निवास स्थान सोडून, भायर धांव मारपाचो प्रसंग ज्या शस्त्रान हाडलो, त्या शस्त्रामुखार सर्वसाधारण मनीस कितलो अगतीक जावन रावता आसतलो हाची कल्पना करुं येता. तंत्रगिन्यानान ह्या शस्त्रांची धार इतकी तेजीश्ट करुन दवरल्या की आख्खी मनीसजात तिचेकडेन ओलीस उरिल्ल्या सारखी जाल्या. एकेवटेन भौतीक उदरगत मनशाक एकार एक भौतीक सुखां दहाल करीत आसात. दुसरेवटेन, भौतीक उदरगतीचीच एक निर्मिती जाल्ली शस्त्र-संस्कृती, तीं सुखां मनशाच्या आंगांक लावंक दिना. पोटभर वाडचें आनी फाटभर मारचे अशें जाल्ल्यान जेविल्लें आंगाक लागना. जेवणाचें सूख मेळना.

कोंकणी समाज हो संसाराचें एक आंग आशिल्ल्यान जें संसाराचेर आयलां तें कोंकणी समाजाचेर आपले बगर रावंचेना. जो संसाराचो हुस्को

तो कोंकणी समाजाचोय हुस्को आसा. आनी म्हणून संसारीक वाडटी हिंसा हो कोंकणी समाजाचो ज्वलंत प्रस्न जाता. शस्त्र संस्कृतीन आमचे मुखार दोन विचार उबे केल्यात. एक शस्त्राक शस्त्रान जाप दिवप. दुसरो, शस्त्राक पर्याय दिवप. शस्त्राक पर्याय दिवपाचो दुसरो पर्याय आमी स्विकारुंया. शस्त्राक पर्याय असो मनीसपणाचो संदेश कोंकणीच्या संदेशावांगडा दिवंया. कोंकणीच्या मिशनाक मनीसपणाचें मिशन जोडून, कोंकणी मिशनाची व्याप्ती वाडोवन ताका संसारीक मिशन करुंया. तिसऱ्या सहस्त्रकाची ती गरज समजूंया.

### ह्या मिशनाखातीर कोंकणी मनीस योग्य आसा

अशा मिशनरी कार्याक कोंकणी मनीस चड लायक आसा. कारण कोंकणी मनीस हो समन्वयी आनी सहिष्णु मनीस हें ताणे सिद्ध केल्लें आसा. वेगवेगळ्या, प्रांतांनी, राष्ट्रांनी रावतल्या कोंकणी लोकांनी थंयच्या लोकांक आपले करुन दवरल्या आनी आपूण थंयच्या लोकांचे जाल्यात. सह-जिवीत आनी सह अस्तीत्व हे गूण तांचेकडेन आशिल्ल्यानच तांका हें शक्य जालां. मनीसपणाचें मिशन चलोवन संसाराचो हुस्को नश्ट करुंया. आमीय हुस्क्याविणें जगूंया.

### परिशदेची प्रतिमा बदलूंया

अखिल भारतीय कोंकणी परिशद ही कोंकणी चळवळींतली म्हालगडी केंद्रीय संस्था. फाटलीं साठ-बासस्ट वर्सां कोंकणी हो विचार जनमानसांत रुजोवपाचें इतिहासीक कार्य तिणें केलां. कोंकणीच्या मळार वावुरपी ल्हान-व्हड संस्थाचें पालकत्त्व स्विकारुन, कोंकणी संस्थांच्या कुटुंबाची कुटुंब-मुखेली जावंन, आपल्या मार्गदर्शनाखाला कोंकणी संस्थांच्या वावराक तिचेकडच्यान चालना मेळची अशी तिचेकडल्यान अपेक्षा आसा. अधिवेशनाच्या दोन दिसांच्या काळांत तिणे ही अपेक्षा पुरी केल्ली पळोवंक मेळटा. पूण अधिवेशनाचो दोन दिसांचो काळ सोंपतकीर, परिशद लोकांक आनी लोक परिशदेक विसरुन वता अशी सद्याची स्थिती आसा. थोडे भोव फरकान, फाटल्या बावीस अधिवेशनांनी अशें घडत आयलां. परिशदेची ही प्रतिमा बदलपाची गरज दिसता. कोंकणी संसाराच्या दिसपट्ट्या कारभारांत तिचें अस्तीत्त्व जाणवपाइतकी तिका सक्षम आनी क्रिपाशील करपाची गरज आसा.

### परिशदेचे कार्यपद्दतीचें पंचशील

परिशदेच्या पयल्या अधिवेशनांत, परिशदेच्या उद्दीश्टांचें पंचशील तयार केल्लें. ह्या तेविसाव्या अधिवेशनांत परिशदेची ताकद वाडोवपी, परिशदेक अधीक कार्यरत दवरपी तिचे कार्यपद्दतीचें पंचशील हांव तुमच्या विचार-विमर्शाखातीर तुमचे मुखार दवरतां.

१) कोंकणी संस्थाचें अंतर्गत स्वातंत्र्य अबाधीत राखून, परिशदेच्या फुडारपणाखालां कोंकणी संस्थांचें अधीकृत अशें कुटुंब निर्माण करप.

२) ह्या कुटुंबावरवीं सगळ्या कोंकणी संस्थाखातीर एक भौउद्देशी कार्यावळ तयार करप, आनी वेळेच्या बंधनाभितर तिका चालीक लावप.

३) राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय कोंकणी कार्यावळीच्या आयोजनाचें यजमानपण परिशदेकडेन दवरप.

४) परिशदेचो वावर तडीक व्हरपी परिशदेची प्रशासन यंत्रणा उभारप. तेखातीर परिशदेचो कायम स्वरुपाचो निधी निर्माण करप.

५) कोंकणी संसाराची कोंकणी जनांक वळख करुन दिवपी परिशदेचें एक मुखपत्र चलोवप.

### सगळ्यांचें कल्याण जावं

कोंकणी समाजाचो एक प्रतिनिधी जावन, परिशदेच्या अध्यक्षपदावयल्यान, ह्या विचारावरवीं हावेच तुमचेकडेन संवाद सुरु केला. हो संवाद फुडें व्हरपाक सगळ्यांच लहान-व्हड कोंकणी जनांचो आधार लागतलो. कोंकणीच्या होमांत दर एकल्याची समिधा पडप गरजेची आसा. आमचेकडेन घसघसीत अशें फाटलें दायज आसा. अणभवी जाण्टेल्यांचे आशिर्वाद

आमचे गांठीक आसात. परजळीत फुडार घडोवपाक शिवशिवपी युवा-हात आसात. उजू मार्गान चलपी आमचेकडेन मनीसपण आसा. हें सगळें ज्या समाजाकडेन आसा त्या कोंकणी समाजाक कांय उणें ना.

म्हजें भाशण सोंपोवचे पयलीं हांव एक निवेदन करुंक सोदतां.

म्हज्या भाशणाच्या आदारार, परिशदेच्या फुडल्या वावराची, विशेश करुन प्रत्यक्षांतल्या वावराची, एक सदळशी रुपरेशा हांव म्हज्या समारोपाच्या भाशणांत दितलों. ते रुपरेशेंत परिशदेन हातांत घेवपाच्या वावराचो प्राथमीक तपशील आसतलो. पुराय तपशील उप्रांत तयार करप जातलें.

म्हजे पयलीं ह्या अध्यक्षपदार बसून गेल्ल्यां मानेस्तांक, वेदीवयल्या सज्जनांक आनी म्हजे मुखार बसिल्ल्यां समेस्त कोंकणी जनांक नमन करुन म्हजीं ही उतरां सोंपयता. सगळ्यांचें कल्याण जावं.

***

# कोंकणी भास - तिसऱ्या सहस्त्रमानाक एक विशाल दीष्ट

तिसऱ्या सहस्त्रमानाच्या दुस्ऱ्या वरसांत आमी पांय दवरला मात्र। मुखल्या वरसांनी कोंकणिचें स्थान-मान कितल्या उंचायेक पावत, कितलें रूंद विसतारात आनी कितलें गूंड व्हचोन ताची बुन्याद घट जायत म्हळ्ळें दर्शन करून दिंवचें काम सुलभ न्हंय। गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र, केरळ, गल्फ राष्ट्रांनी, आमेरीकांत, केनडांत, आस्ट्रेलियांत, इंग्लेंडांत, युरोपाच्या इतर राष्ट्रांनी वसती करून आसचो पन्नास लाख कोंकणी लोक, वेगवेगळया धर्मांचो, जातीकातीचो, विविध प्रदेशांच्या विविध धर्मांच्या प्रभावांत आसोन तरयी कोंकणी म्हळ्ळी एकच भास उलयतात तें एक ल्हान अज्यापच सै। हो कोंकणीचो बांधच असल्या आमकां सम्मेळनांक पयस पयस थावन वोडून हाडटा।

संसारांत भासो उण्यो जावन येतात म्हळ्ळे आमकां तवळ तवळ वाचूंक आनी आयकोंक मेळटा। हाचो अर्थ किते?जशें संसारांतल्यो सबार जीवजंतू आज आळवोन गेल्यात, त्याचपरीं भासोयी आळवोन येतात। थोड्यांच्या मता प्रमाणे, कोंकणीची गतयी हीच जातली। म्हज्या अभिप्राये प्रमाणे, कोंकणीच्या फुडारा विषांत तीन थरांचीं चिंतपां आमी वळकोवयेत। आशावादी, निराशावादी आनी बेपर्व्याचीं। आशावादी जाणांत की कोंकणीची परिस्थिति तितली बरी ना पुण बऱ्या मनाचे कोंकणी फुडारी थंय हांगा कोंकणीक जिवाळ करूंक हर प्रयतन करून आसता परयांत कोंकणीच्या बऱ्या भविश्याचेर आमी भर्वसो दवरयेत। कोंकणी भास आनी संस्कृतिचे आराधक आनी फुडारी आनी ताणी चलोवन व्हरचे कोंकणी संस्थे कोंकणीचें भविश्य बदलूंक पेंकाट बांधून रावल्यात। तांच्या निरंतर वावरा वर्वी सगळया कोंकणांत आनी गल्फ राष्ट्रांनी सैत भर्वशाचें नितळ वारें व्हाळोंक लागलां। ह्या संस्थ्यांचो आनी फुडाऱ्याचो वावर कोंकणी लोकाचेर प्रभाव घालूंक पावला।

निराशावादी जे आसात ते नीज जावन कोंकणी मोगी पुण आयची परिस्थिति वळकातात, नाखुशेन ती स्वीकार करतात पुण ती बदलूंक कांय करीनांत। आनी तिसऱ्या वर्गाचे जावनासात तटस्थ धोरणाचे - मदले। ते कोंकणी मनीस तरीयी कोंकणी भास व संस्कृती आळवोन गेल्यार तांका कांय फरक पडाना। कितेंय जांव, हे तीन प्रमुख व्हाळे कोंकणी लोकामधें झळकातात आनी ह्या तीनयी व्हाळयांचे समर्थक आसात।



जे. बी. मोरायस

एक्विसाव्या शेकड्यांत कोंकणीचें स्थान-मान वोरयताना कोंकणी भाशेच्या दोन शेतानी तिच्या प्रगतिचें मूल्य-मापन करिजाय पडटा। पयलें शेत जावनासा बोली व लोकभाशेचें। आनी दुसरें, लिखित आनी साहितीक भाशेचें। ह्या दोन शेतां मदली प्रगती आमी तुलन केली जाल्यार, लिखित आनी साहितीक भास सोंवशाच्या धावणेक सरी करयेत तर बोली भाशेचें शेत कास्वाचीं मेटां काडून आसा।

कोंकणी पुस्तकां धाराळ छापतात तरयी वाचक उणे जाल्यात। प्रस्तकां छापल्या उपरांत तीं लोका परयांत पावोंवक जाय। कोंकणी एकाडेमीनीं, भाषा मंडळांनी, गोंय विश्वविद्यालयान आनी पुस्तक प्रकाशकांनी सांगाता मेळोन Mobile Book shops चलवयेत। गोंयांत आनी मंगळूरांत कयोलिक

विद्या बोर्डानी चलोंवच्या आनी सारस्वतांनी चलोंवच्या विद्या शाळंनी कोंकणी ग्रंथालय म्हण एक कबाट दवरून तांतूं कोंकणी पुस्तकां दवरयेत। मन आसल्यार धन आसा, धन आसल्यार काम जाता। ही येवजण थोड्या मट्टाक तरयी कार्यगत जाली तर बरयणारांक, प्रकाशकांक, वाचतेल्यांक, कोंकणी शिकोंक आशेतेल्यांक केदो व्हड उपकार केल्ल्या बरी जायत! आयलेवार मंगळूरांत थोड्या इस्कोलांनी खासगी जावन भुग्यांक कोंकणी शिकोंवच्या विषांत गंभीर विचार चलता। ह्या खातीर एक पाठ पुस्तकयी तयार जालां आनी थोड्या शिक्षकांकयी तरबेती दिल्या म्हण आयकालां। ही भोव महत्वाची येवजण। हाका आमी सर्व कोंकणी प्रेमींनी पुरतो सहकार दींवक फावो।

आयच्या तांत्रिक युगांतली प्रगती आमी समजोन घेंवची गरज आसा। घरां घरांनी कंप्यूटर आनी टेलिविजन आयल्या उपरांत मन्शाच्या जिणयेच्या हरयेक शेतांत क्रांतीच उबजाल्या म्हणयेत। आजकाल चडावत शिकपी घरांनी कंप्यूटर आनी तांतुं अंतर्जाळ (Internet)आसता। आधुनिक शिक्षण, विज्ञान, मनोरंजन, व्यापार वहिवाट आनी हेर सबार शेतांनी कंप्यूटराचो प्रवेश जाला। म्हाका दिसता आधुनिक युगांतली कंप्यूटराची हि व्हाडावळ जाणासोन व नेणासोन, कोंकणीच्या प्रचाराक कारण जातेली। व्हय, कंप्यूटरांतली 90% भास इंग्लिश जावनासा। संसारांतलें सर्व गिन्यान तांतूं वाचूंक आनी पळेंवक मेळटा। आमच्या कोंकणी भुर्ग्यांक तशें युवजणांक हांगा आसा एक भांगराळी संधी। कंप्यूटराची भास इंग्लिश तरयी ती एक आडकळ म्हण लेकीनासतां इंग्लिशा मुखांतर आमी कोंकणीक लागीं करयेत। मुखल्या वरसांनी नवीं नवीं सोफ्टवेयरा येतेलीं जांतूंतल्यान कोंकणीचेर अभिरूच व्हाडटेली आनी अभिवृद्धी जातेली म्हण म्हाका भर्वसो आसा। कंप्यूटरांत अंतर्जाळ व इंटरनेट म्हळ्ळें साधन आयल्या उपरांत संसारांतलें सगळें गिन्यान बर्याक जांव, वायटाक, आमच्या घरच्या एकांतांत पळेंवक मेळ्ळां। ह्या इंटरनेटा मुखांतर मुखांतर ताचें एक भुरगें चावन जल्मालां वेबसैट। वेबसैट म्हळ्यार खंच्याय एका व्यक्तीन व संस्थ्यान आपणा विषांत, हेरां विषांत व खंच्याय विशयाचेर जाणवाय, शिक्षण, संगीत तसलें मनोरंजन इत्यादी संग्रह करून, आकर्शित थरान विन्यास करून दिंवचें साधन। कंप्यूटराच्या अंतरजाळांत कितलेशो कोंकणी वेबसैटी उबजोन आयल्यात। प्रतेक जावन 2001जानेर पयलेर दुबाय शारांत आरंभ जाल्लें 'दायजीदुबाय'वेबसैट एकाच वरसा भितर कोंकणाच्या मात्र न्हंय, गल्फाच्या राष्ट्रांनी मात्र न्हंय, बगार इंग्लेंड, आमेरिका, आस्ट्रेलिया केनडा आनी युरोप गांवांनी लोकामोगाळ जाल्या। हांतू सुमार 20 विभाग आसात।

गोंयांत सोडून हेरा राज्यांनी इस्कोलांत कोंकणी शिकयनांत। गोंयांत पयली दर्जाथावन धावी परयांत कोंकणी पाठबूक आसात। कोंकणी अकादमींनी, भाषा मंडळांनी आनी कोंकणी मोगींच्या उदार मनाच्या दुडवा मजती वर्वी हे बूक आसातशे व गरज म्हण दिसल्यार थोडी बदलावण करून, कन्नड आनी रोमी लिपये सांगाता छापून फुंक्याक व उणे दरीर कोंकणी कुटमांक वांटयेत आनी व्हडिलांक आपल्या भुर्ग्यांक कोंकणी एक शास्त्रीय रितीन शिकोंवक आधार जायत। ह्या कल्पनेचेर चर्चा जांवची गरज आसा।

सगळें आरावन सांगचें जाल्यार, साहितिक भास जावन तिसऱ्या सहस्रमानांत कोंकणी ऊंच स्थानाक पावतली पूण ती एक बोली भास जावन हेरां भाशेंच्या पांवड्यार हाडूंक जायते त्रास काडीजाय पडटले।

# आधुनीक समाजांतलें कोंकणी बायलांचें सशक्तीकरण

वं। सुधा सुरेश आमोणकार
गुरू-कुंज, मापसा, गोवा।

भारतीय घटनेन दादल्या बायलांक समान संद, समान हक्क दिलें पूण ताची आंमलबजावणी जितली जांव्क जाय आसली इतली जाली काय? काय पेपराचेरच चड टलली?

घटनेंन दिल्लें हक्क, रुठीन निर्मिल्ली मनोवृत्ती आनी प्रत्याक्ष सरभोंवतणीं आशिल्ली परिस्थिती हांचो आपसंमदलो विरोध दिश्टी पडटा। हो आमच्यांनी यत्नान उणो करूं येता।

पंयली तेंपावेली फकत रान आनी वाड ही बयलांची भूमिका आतां उरूंक ना, तर खुबशा मळांचेर बायलांनी कर्तात्व दाखयलां। सगळ्या मळार तिणें आपली समथीताय दाखोवंक सुरवात केल्या। स्त्रीशक्ती म्हळ्यार एक उप्रूप शक्ति। एक कुटंब चलोवपी ती एक ग्रहमंत्री। भुर्ग्यांक मायेन-कश्टान वाडोवपी ती एका समर्थ आवय। वेळ पउल्यार `शांता जाली दुर्गा रे' अशी तिची दिव्य तांक।

आनी तरूय बायलांची सुवात दुय्यम, सकलल्या पांवुड्यावेली, दादल्या परस उणी हो विचारच मनांतसून पुसून वचना जाल्यार कितें उपेग? बायल जांव दादलो दोनुय मनशांच न्हंय? मनशाकडेन मनीस म्हण पळवपाचें, चलपाचें? काय बायल आनी दादलो म्हण पळवपाचें? जन्मासून आमकां हें कोणे शिकयलें? समाजान? समाज ब्यवस्थेन?

मनशाचें जिवीत सुखान चलचें म्हण जाण्ट्यांनी ही समाज व्यवास्ता आंखून दिल्ली। जापसालदारक्यो वांटून दिल्ल्यो। तांतून मनीस चड म्हत्वाचो आसलो, पूण हें फांसून वचूंक लागलें-व्यवस्थाच मनीसपण नाशिल्ली कशी जांवक लागली।

बायल आनी दादलो समसमा म्हणपाची शिकवणय तिका शिक्षणान मेळूंक पावलिना। तिच्या घरांतय तशें संस्कार तिचेर जांवक पावले नात। आवयोच चलयांक तूं दादल्यापरस उणी म्हणपाचो न्यूनगंड दिता।

आमचे व्यावस्थेनंच हो कुड्डो विचार तिका दिलो। हों कुड्डो विचार-आमच्यांनी मुजारत उणे करूं येतात। हे विश्वास कुड्डे म्हणून विचारांक लुकसाणी करतात। वेल्यान ते बायलांच्या कर्तृत्वाकच नाकाशिल्ली शीम घालतात, बंधन घालतात। आनी हातूतय खरेली भिरांत आसा। खंयचीय बायल हे व्यवरये भायर मात हेवटेन-तेवटेन वचूंक लागली की, आमी बायलोच भितल्ले भितर धुरमटूंक लागतात। फुतफुतूंक लागतात। तिचेर टिकेचो मारो करतात। नाकांनाकां त्या उतरांनी त्या बायलांक नाका धर्म करतात। बायलांनीच बायलांक फुडें काडूंक नाका?

स्त्रीमुक्ती म्हळ्यार दादल्याकडेन झगडप न्हंय। जांव दादल्या वांगडा सर्त हंय। स्ती स्वतांत्र्य म्हळ्यार दादल्या विरूध्द चळवळ न्हंय। तर तिका मुक्त करप, शिरांकुळ समाजीक आनी धर्मीक रुटींच्या बंदनांतल्या। आपणाले मनोबळा तांकीर तिणें हें करपाची खूब गरज आसा।

बायलांनीच आपणेजावन नाकाशिल्लीं बंधना कित्याक घालून धेवपाचीं? तिका मेकळीक नाका आसाता? कांय लोक कितें म्हणटीत?" ह्या कांचान आमी कांचवेतात? आमी बऱ्योय गजाली करूंक फांटी सरतात। दादल्या वांगडा मेकळपणान भासाभास करप, मेकळेपणान आपल्या व्यक्तित्वाचो हेरांचेर प्रभाव घालप एकमेकांच्या ज्ञनाचो उपेग करून आपले व्यक्तिमत्व फुलोवप ह्या गजालींनी कसली लुकसाणी जाता? ह्या संकुचीत विचारांक आपलें व्यक्तिमत्व कित्याक चिड्डून वडवपाचें?

सगळीं मळां आतां बायलांक उकतीं आसात। तिणें आपलें कर्तृत्व दाखलयां, पुण अजूनय बायलेक कोणय पालक आसचो , ती ताचे आंकित आसची तीच समाजाची भावना? हाका आमी बायलांच जबाबदार आसात काय? 21व्या शेंकड्यांतय बायलांच्या वांट्याक वरदक्षिणेचो शाप?ताका लागून बायलांची जीण कास्पटा समान जल्या। तिचे जिणेक कसलेंच म्हत्व नाजालां। हुंडों सारको दिले ना म्हण हुंठाबलींची संख्या दिसान दिस वाडचा आसा। हाजे आडचळवळ करून हि वरदाक्षिणेची दुश्ट चाल नाच्च करूंक जाय।

मनीस म्हण बायलेचें ॐं कितें आसा तें तिका मेळूंक जाय। तें तिका मागचें पडूंक पावना।

दादल्याचो खरो पुरूशार्थ बायलांक आपले वांगडा धेवनच वचपांत। ताका लागून ताजोय भार आपशी बांडून वतलो।

आपल्याक खबर आसा म्हणपाचो जाका खबर ना तो निद्रीस्त, ताका जागोवचें पडटा। हो एकचिनी विचार तो आमकां बायलांक लागू पडटा। बायलांची तांकां खूब व्हडली। आमी आमकांच जागोवपाचो वेळ आयला। फुडार आमच्याच हातां आसा। कोणुय दुसरो येतलो आनी आमकां वयर काडटलो म्हणपाचें तेंप आतां उरूंक ना। आमीच हातपाय मारचे पडटलें। आत्मविश्ववास उप्रासता तेन्ना मनीस नवो वावर करूंक फुडें सरता। तांचे पाटल्यान हेरूय बायलो फुडें सरतात। आपणे बऱ्या विचारांची आनी बऱ्या कर्तृपाची देख धेतली, दिली आनी नेतेपण केलें, हेरांक बरी टिका दाखयली, आपले वांगडा तांकाय फुडें काडलीं, हें समाधान आमी पदरांत घालून घेवप हेंच फाव कशें जातलें।



# ಕಾಜುಲೊ

ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಲೆಂ ಮಯ್ನ್ಯಾಳೆಂ

ಜುಲಾಯ್ ಅಂಕ್ಯಾಥಾವ್ನ್ ಸುರು ಜಾಲಾ



ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಕ್ ತಶೆಂ
ವ್ಹಡಾಂಕ್ ಆತುರಾಯೆನ್
ವಾಚ್ವ್ನ್ ವ್ಹರ್ಚಿ
ರೋಮಾಂಚಕ್ ಚಿತ್ರೆದಾರಿ
ಸಾಂಕಳ್ ಕಾಣಿ

ಕವನಾಂ...
ಖೆಳ್.....
ಸ್ಪರ್ದೆ ಆನಿ
ಇನಾಮಾಂ



ಮಝೆದಾರ್
ಕಾರ್ಟೂನ್
ಕಾಣ್ಯೊ

**ಕಾಜುಲೊ ಜಾಯ್ರಾತ್ ದರ್**

| | |
|---|---|
| ಮುಕ್ಲ್ಯಾ ಪೊರಾಕ್ (ರಂಗಾಳ್ ತಸ್ವೀರ್) | 1250/- |
| ಭಾಯ್ಲ್ಯಾ ಪೊರಾಕ್(ರಂಗಾಳ್ ತಸ್ವೀರ್) | 1000/- |
| ಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ಪೊರಾಕ್ (ರಂಗಾಳ್ ತಸ್ವೀರ್) | 850/- |
| ಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ಪಾನಾಕ್ | 750/- |
| ಭಿತರ್ಲ್ಯಾ ಅರ್ದ್ಯಾ ಪಾನಾಕ್ | 500/- |
| ಜಲ್ಮಾ ದಿಸಾಚೆ ಶುಭಾಶಯ್ | 100/- |

*(ತಸ್ವೀರ್ ಆನಿ 25 ಸಬ್ದ್)*



ತುಮ್ಚ್ಯಾ
ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಕ್
ಮೊಗಾಚಿ ಕಾಣಿಕ್
ಜಾವ್ನ್ ದಿಯಾ

**ಚುಂಗ್ಡಿ ಪ್ರತಿಯೆಕ್ ರು. 5/-**

**ವಾರ್ಶಿಕ್ ವರ್ಗಣಿ ಫಕತ್ ರು. 60/-**

ವರ್ಗಣಿ ಪ್ರತಿನಿದಿಲಾಗಿಂ ದಿವ್ಯೆತಾ ವಾ ಹ್ಯಾ ವಿಳಾಸಾಕ್ ಧಾಡಾ.

*The Manager, RAKNNO/KAJULO, Bishop's House, Kodialbail Post, Mangalore 575 003*
*Ph: 422426, 444118. Fax: 0824-441904*
*E-mail: raknno@sancharnet.in*

# KONKANI IN THE MEDIA

**Sri Deepak Rao,**
**Moodbidri,**
**Kalpavruksha Features & Media Co-ordinators**
**D - 7, Ridhi Sidhi Apartment,**
**Swami Vivekananda Nagar, Virar (W), Thane District - 401 303**
**Maharastra**

Some of the key resolutions adopted at the end of the First Vishwa Konkani Sarnmelan were

a) In order to unify Konkanis spread allover India and abroad, and to develop Konkani language, literature and culture, a World Konkani Centre shall be established in Mangalore.

b) A World Konkani Convention shall be held every five years in different regions, the task executed by local boards under the direction and control of the World Konkani Centre.

c) The concerned State Governments shall be made to offer suitable facilities to the prosperous Konkanis abroad to build industries and institutions in the Konkan region.

That was years ago. What has transpired since then? If the pace of progress has not been fast enough who is to blame? The prime reason for our inability to progress much in these directions has been lack of inter-action by harnessing the fruits of science and technology. More so at the global level, though, even when it comes to the Konkanis settled in diverse parts of India, not much headway has been made. Be it the Press or the radio, television or documentary film media, Or, most important of all, marching along the newly opened up information highway, we seem to be somewhat allergic to the media.

At the initial stages Indira Gandhi dismissed TV as a medium fit for servants. Margaret Thatcher shunned it too, whereas Harold Wilson was actually scared of it–to the extent of calling it a 'cruel medium'. But none can dispute the fact that TV has succeeded in demystifying too many people to the other extreme when he said "The opposition may have the Press, but I have television"; and he too paid the price for his TV mania. The mistake Konkanis have made is similar: Instead of harnessing the channels of communication and zooming along on the information rollercoaster, we have almost refused to even take note of their existence or, to be charitable, their relevance.

If TV is a 'third parent', as believed by many these days, the internet is fast turning out to be the best mode of communication and inter-action. And herein lies the key to propagate

Konkani causes to the world at large–to any Konkani or Konkani lover anywhere between the North Pole and the South Pole and even beyond.

'Khabar' of Vasant Bhat, New Jersey; 'Saraswati Vani' of Seema Nayak, and SKAN of Felix D'Souza, both from UK; Irene Pereira's Goan newsletter from New Zealand; and now the latest of them all, the 'Daiji' from Dubai-how many of us have ever bothered about these web site publications and many more of their ilk scattered over the globe? We don't mind getting big funds from the American Silicon Valley, but have we ever bothered about what the people at the other end expect from us? Our view of the world is limited to the desi Silicon Valley-Bangalore!

The most effective and most feasible way of keeping in touch with the Konkanis scattered not only abroad, but also in India is through websites–individual as well as collective. And that alone can get us love and–much more important for the future of Konkani–the huge funds required to crystalise the dreams we are nurturing: a revival, renaissance and resurgence of Konkani.

